## प्रकाश पाडगांवकार हांचे कविता संग्रह

---

– **अुजवाडाचीं पावलां** (1976)
  कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय–पुरस्कार

– **वास्कोयन** (1977)
  कला अकादमी, गोंय–पुरस्कार

– **हांव मनीस अश्वत्थामो** (1985)
  कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय–पुरस्कार
  कला अकादमी, गोंय–पुरस्कार
  साहित्य अकादेमी,
  नवी दिल्ली–पुरस्कार (1986)

– **कविता : काळ-रेल्वेच्यो,**
  **: मन-हारशांच्यो,**
  **: पावसा-पाणयाच्यो** (1993)

– **सर्ग घडपाक धर्तरेचो** (1994)

# सर्ग घडपाक धर्तरेचो

(लेखन काळ : देझेंब्र 1988 ते जानेर 1990)

**प्रकाश दामोदर पाडगांवकार**



# सर्ग घडपाक धर्तरेचो



प्रकाशन क्रमांक : 105

1993

'साहित्य पसवण' वार्शीक : धा रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

मोल :
1993 वर्सा 30 रुपया
1994 वर्सा 36 रुपया
1995 वर्सा 43 रुपया

ISBN 81-85854-04-1

# भगवंतालें आस्वासन

**यदा यदा हि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारतः**
**अभ्युत्थानंधर्मस्य तदा ऽऽ त्मानं सृजाम्यहम् ।**
**परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम**
**धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ।।**
**भ. गि. अ. ४/७.८**

'जेन्नां जेन्नां धर्माक ग्लानी येवन अधर्म मातता तेन्नां हांव अवतीर्ण जावन धर्म निष्ठांचो उध्दार, दुश्टांचो नाश, धर्मतत्वांची पर्थुन प्रतिष्ठापना करपाक स्वता युगां युगां कणकणी प्रकट जाता.' अशें आस्वासन भगवान श्रीकृष्णान दिलां.

ईश्वरान हें नवलायांनी भरिल्लें विश्व निर्मून मनशांच्या सुवादीन केलां. कितली समानताय आनी समताय भल्ल्या ताच्या कर्तृत्वांत ! सूर्य आपली ऋतूंची बियां नाचयत उबेची किर्णां भरभरून धायदिकांनी पातळायता. चंद्र आपल्या रूप्याचे न्हंयेन रात–धर्तरिक न्हाणयता. वारो मेकळ्या मनान गांवा–वस्तीतल्यान, रानां–दोंगरांतल्यान, पिकापिकांतल्यान जिणेचो सूर सादयत जिवांचो स्वास जावन भोंवता. पावशी कुपां आपलीं अंतस्कर्णां माये–उमाळ्यान तटतटावन कसलोच भेदाभेद करी नासतना मेळत थंय झडून नवे जिणेचो मंत्र शिकयतात.... ईश्वराच्या ह्या कर्तृत्वांत आमकां कसलोच सुवार्थ दिसना. ईश्वरान आपल्या निर्मणेच्या कर्तृत्वावरवीं केदी व्हडली प्रयोग शाळा चलयल्या. पुणून मनशांनी हाचो मातूय बोध घेतिल्लो दिसना !

आयज संवसारभर मनीस मनशाचेर उठला. द्वेश–मत्सर, उंच–उणाक, जात–धर्म, काळे–गोरे अशा साबार प्रस्नांनी घुस्पून मनशान मनीसकुळयेची अधोगती चलयल्या, धर्म पिठांचो–देवाधर्माचो बाजार चलयला.... ह्याच मनशान बरीच भौतिक प्रगती करून ब्रह्मांडाचीं दारां–जनेलां उकतीं केल्यांत आनी आपल्या कर्तृत्वी मनाची प्रगल्भताय दाखयल्या आनी तोच

संहारक शस्त्रां–अस्त्रां निर्मून तीं आपल्या सारक्याच हाडा–मांसाच्या मनशांचो नाश करपाक वापरता ही केदी लजेची आनी राणटीपणाची गजाल !.....

अशें आसलें जाल्यारय आमीं पळयतात आमचे भोंवतणी, आपल्या काळजांत मनीसकायेचो झरो घेवन वावुरपी मायेस्त मनीस जे दुसऱ्यांचे दुख्ख भोगणार पळोवन हालतात आनी आपल्या तांकी प्रमाण गरजेवंतांक, झडिल्ल्यांक पडिल्ल्यांक आपलो आदाराचो हात दिवन तांच्याय जिणेंत उज्वाड रिगोवपाचो येत्न करतात. हांकाच लागून मनीसपणाक आनी मानवतावादाक अर्थ आसा आनी आसतलो, तशेंच हो संवसार तिगला आनी तिगतलो. तरीय संवसारभरच्या आयच्या मनीसजातीची आवतीकाय पळयल्यार अशें दिसता, किं भगवंतान आस्वासन दिल्ल्या प्रमाण तो केन्नाय मनशाच्या रुपान आमच्या मजगतच्या कोणाच्याय पोटांत अवतीर्ण जावन, मनीसकुळयेचे सगळे प्रस्न जाग्यार आनी थाऱ्यार घालतलो, आपल्या मोगाच्या साम्राज्याचो शेक चलयतलो आनी हे धर्तरिचोच सर्ग घडयतलो. भगवान श्रीकृष्णाचेर आनी ताच्या आस्वासनांचेर भावार्त आशिल्ल्यांचो विस्वास लटको आनी अर्थ–नाशिल्लो कसो जांव येता ?

पुण्डलीक दा. पाडगांवकार

*कोंकणी सिध्दी दीस : 20 ऑगस्ट 1992*

भौमानेस्त ॲड. पांडुरंगबाब मुळगांवकार
आनी
भौमानेस्त अरविंदबाब भाटीकार I.A.S.
हांकां आदरान

मोग अजरंवरी

दोन न्हंयांचो सुप्त अेकवट
तुजो म्हजो संगम
अेक प्रवाहा अस्तित्व आमचें
आसुनय दोन अुगम

न्हंय अेकवटा अद्वैत व्हांवुन
रिगता काळा गोपांत
कल्प–वैभवा जिणे गितांचो
पर्जळटा घमघम

अिश्टीणींचे थोमणे प्रिये
सोंसून घे हांसून घे
फाल्यां दीस हे मेळचेनात
यादी भितर सांठोवन घे

काल आसलें भुरगें सान
आयज आंकवार व्हंकल
फाल्यां जातलें आवय आजी
काळा न्हस्य समजुन घे

खंयच्या जल्मा संवकळे वळख
आयज अचकीत अुक्तली
पयलेच नदरेन दोगांय आमीं
अेकामेकांक वळखली

ब्रह्मांडाच्या विरूध्द दिकेन
भोंवताली जशी आमीं
आयज आपसुक अेकवटून
फुडले जिणेक संवकली

साबार तुजी रूपां बायले
ताची अगम्य अप्रुपां
अेकेक रूपा अर्थ सोदतना
सोपुन वतात तपां

जाशी केन्ना आवय, भयण
केन्ना भुरगें मायेस्त
रती सुखांत तूंच न्हांवयता
सर्ग–अमृत कुपां

श्रीकृष्णाची राधा मोगाची
तशी सर्वांगी प्रिया
भक्तीन बुडून अेकरूपलेली
मीरा सात्वीक राया

वातीबगर दिवली पेटचिना
तशें अप्रूप नार्तें
अेकामेकांत भरसुन धोलता
सर्मपणाचो दर्या

चेरो तुजो दोळ्यांमुखार
चलचित्रशें भिरभिरता
सपन न्हिदेंत जागरूतायेंत
तुजीच सत्ता चलयता

भोंवता सोदीत ऋतू परबांनी
माड्डीतां मातये शारां
सैमा रंगी अळंकारानी
तूंच बशिल्लें दिसता

नदरेंत तुजे नदर म्हजी
भरसून अुरची
खिण खिण युगां जावन
कल्पांतां अुलगची

सांगात तुजो अखंड घडूंक
जीव तानेत रावचो
सांगाताच्या अमृत–धारेन
जीण अजरंवरची

काळजा भितर खळखळटा
तुजो माये वझरो
सुरार जीव अुफेताना
अुडटा आत्म्या आवरो

मळबा–दिको येतात लागी
घडून ल्हान घोंटेर
ब्रह्मांडाचो जावन धनी
पोंशेता तुजो चेरो

म्हासागरा खरायेचो
लागत अेकाद्र्याक थाव
कोण म्हणत ब्रह्मांडाचो
आयला सोपत गांव

मनाक तुजी लागता मोगा
कुवाडयांची घुंवडी
चुकून सगळे अदमास म्हजे
तातूंत शेणटा हांव

पोशांत काळखा घेवन माती
भिरकय अंत्राळार
तीच भांगरा जावन धार
अचळय येतली दारार

मातये पोंदा रूखा मुळावण
आसता म्हुण मोगा
खांदयो हालयत धोलता सुख
कोगुळ गायता तालार

हाडा मासा बावल्यो कशीं
शुन्यांतल्यान जल्मल्ली
सारून जीण अेकवटाची
परत शुन्यांत वतली

सांगात तुजो जाय जायसो
फळ्ळी जल्मा पुण्याय
मोक्ष सासणां दिवंक आमकां
मरणां नबत झडटली

विस्मितांचे आंगण मुखार
शेकानशेक अंत्राळ
ताज्यां गिऱ्यां तातूंत थिकां
गुथया तांची माळ

कल्पनेच्या यानान मोगा
मारया वयर पासय
माणकुले पृथ्वीर हाडपाक
सुख शांतीचो काळ

मोगा तुज्या कर्तुबान
संवसार भांगराचो
अपुरबाये हांसो फोडटा
झरो मोतयांचो

स्पर्शान तुज्या जाता म्हजें
मन मळबायेदें
काळजा विशाल दर्या स्तब्ध
थाव घेता पोंदाचो

फांतोडेची ओली तांबसाण
तुज्या पोल्यार पिशी
दोळ्यांतल्यान रकयत पुनव
सातरंगी खोशी

नखेत्रांची लिकलिक फांती
अुमास काळ्या केंसार
अेकेक तुजें शाश्वत अुतर
कुड शिल्प विनाशी

आदी पुरुष हांव आदाम
तूं गो अिव्ह मादी
मनीसकुळये अुत्क्रांतीची
आमीच केल्ली नांदी

तेन्ना सावन आस जिणेची
रावल्या वाडत सारकी
संवसार हो असोच फुलूंक
तूं अखंड सांगात दी

अुदका सांठे व्हांवयत कुपां
रकली भुंये आंगार
तानेन अंदिल्लो पाताळा अुज्वाड
फांकारलो अंत्राळार

पिकावळीची रूजली बियां
खणली काळा माती
साक्षात सर्ग लागलो फुलूंक
तुज्या म्हज्या मुखार

रूपा सोबाय आसूं कशीय
ना ताचें सुखदुख
तुजे काळजा नितळ निळाय
सोपयता रूखरूख

भायल्या भेसार भुलून वचूंक
हांव न्हय बाजारी
तुजे अस्तित्वा अमृत–झरो
न्हिंवयता तानभूक

जीण तुजी अमकीच वर्सां
अशें कशें म्हणूं
अनादी काळा जिणे झरो
व्हांवता रूणूझुणूं

विनाशकाळा मेरेन व्हांवप
ताचें आस्वासन
मुखावेलो अदिश्ट काळ
सांग कसो गणूं

येता जेन्ना तूं वेंगेंत म्हज्या
भावनेन समर्पित
सुदबुदीचो बांद बालांडून
विसरून जगा रीत

ऐकरूपशी म्हजे भितर
स्तब्ध न्हंय कशी
जावन मागीर धील आंबाडो
रूजता मीलन प्रीत

अेकसुरपणा पोकळसाणेंत
गाजता तुजो आवाज
मन – हारशार तुजीच बिंबां
जावन तासां साज

जातलो कसो हुस्को म्हाका
लागल्यार घडूंक अशें
नासतानाय सांगात तुजो
धन्य हांव गो आज

रेवेंचेर पावलां मुद्रायत
चलता आमी मुखार
फाटली पुसून वतात तशीं
जातात आपशीं तयार

सगळेवटेन खर रेंवेमळ
ना अंत काळरेंवेक
तुज्या सव्वासान जिणे खरस
जाता अुमेदी ल्हार

अेकामेकां मोग आमचो
खरी गिरेस्तकाय
संवसाराची भांगरां शिंगरां
मोगा कोणाक जाय

सुर्या भांगर चान्न्या रूपें
रकता आमच्या वाटेर
ऋतू ऋतूतल्यान रूपकारता
जिणेची नवलाय

तुज्या म्हज्या मन–बिंबांची
सैमार अुदेता सांवळी
हांसल्यार आमी हांसता ब्रम्ह
जाता लिकलिक पांवळी

रडल्यार पुणून सैमा व्होंटयेर
अुडटा अुदास शेवणें
तरी खंयचेय मनस्थितीत
जीव जिवाक आंवळी

सोन्या नशेच्यो नाका गजाली
पिवय मोगाची बाटली
नशा मोगाची ल्हवू अुगडटा
सर्ग सुखाची पोटली

सोरो पियेल्यार बाटलेतलो
बाटल्यो रित्यों जातल्यो
बाटल्यो रित्यो जावन, भरून –
फुट्टली जिणे बाटली

आयात निर्गती धंदो करया
म्हाल हाडया पावोवया
करया कितें तर अिश्वराचो
निर्मळ मोग व्हांवोवया

रावया अुपशित म्हालार म्हाल
पृथ्वी रिती जांवचीच ना
अक्षय वैभव अिश्वराचें
आसलें तितलेंच दवरया

अपुर्बायेच्या जिणे अर्धांगी
दोन गजाली करया
जिणेतल्या दुकळ–हुंवराच्यो
आयज यादी जागोवया

यादी फुलिल्ल्यो उज्वाडा दिवे
घर आंगण पर्जळूं दी
मोगान घडिल्लें शाबूत पाखें
आयज मात्शे झाडया

तुजे मुखार बागवता तकली
सहचरणी बायले
ताप तापत्रय आपशी न्हिवोवन
शिरंगारयता अुमाळे

तुजे कळाशेन मोन्या कुपांतल्यान
रकता भांगरा वोत
मन–दिगंतीं सुख शांतीची
शेवणीं सादयत अुले

मानून अुपकार ईश्वराचे
जावंया आमी लीन
प्राणात आमच्या ताचेंच आसप
करीत फळादीक जीण

नित्य नवेलो काळ वियेता
अणूरेणूक सांसपीत
ताच्याच युक्तीन अुफेत्त पृथ्वी
घुंवता खिणानखिण

## कृतार्थ सुगुर्वो

मातयेची घडोवन मूर्त
येता देव रूपाक
बाळ अप्रूप चिरंतनाचें
हाडया गो जल्माक

बिजा आकूर बाळ तेजीस्त
काळा गवायेचें
काळ आपशी बागवतलो
ताच्या कर्तृत्वाक

आदाम अिव्हाक हेच अवस्तेंत
भूल पडून स्वतांची
मनीस जिणेचें न्हस्य होलमल्लें
जावन जाणविक सत्वांची

तेच अवस्तेंत आमीं हातासून
विश्व निर्मणे बिंदूक
दिव्य बाळका सुलूस घेतात
जाका नाट अुत्क्रांतीची

कश्टांचे अुपशी दोंगर
हात तुजे सृजनाळ
पडटा तुजी नदर थंय
मूळ धरता काळ

धर्तरेच्या सृजनात्म्याक
तुकाच लागून अर्थ
अुत्क्रांतीची सपणां चडूंक
घालता जल्माक बाळ

वेळाकाळानो फुलत्या कळयांनो
हासात खोशयेन हासात
तरेक रंगी घालून आंगशी
ऋतू परयानो नाचात

घालून वेटाळो अख्या पृथ्वीक
धोलयत राव वाऱ्या
आवयपणाचो कृतार्थ सुगुर्वो
लागला गावंक प्राणांत

शुन्यांतल्यान विश्व निर्मलें
दिव्य अिश्वरी शक्तीन
तारे गिरे घुंवले, व्हांवल्यो
दुद गंगा भक्तीन

तुज्या कुसव्यांत स्तोत्र दिव्यत्वा
रूजता गुरवार बायले
शुन्यांतल्यान तूं मनीस घडोवन
करता काळा सुवादीन

दुवाळ्यांचो जिवाक चंवर
जीव सकयल वयर
आंबट तुरट रूच वोंठार
जीब अळणी जबर

पृथ्वी पोटांत घुंवता असो
चित्ताक अजापी भास
निर्मणेचें वजें आंगार
ल्हव धादोशी नदर

ल्हारार ल्हारां फुटची, तशो
जिवाक वेणार वेणो
ब्रह्मांड वंशा जीव भोंवता –
पोटांत, जो कल्पां जिणो

ज्वालामुखी शांत जातलो
जावन अळंग बाळंत
बाळा पयल्या रडपातल्यान
सर्ग सुखा अुखाणो

तुजो म्हजो संवसार लागला
घमघमून फुलपाक
अजरंवर मोगा प्रतीक
बाळ आयला जल्माक

दोळ्यांत ताच्या दिश्टाव्याचे
सपन रंगी मळे
आमचें भुरगेपण पर्तून
लागला आंगणिं खेळपाक

काळजा कुडक्या बाळा दूता
खंयच्यान तूं आयला
कसलो संदेश दिवन तुका
कोणें आमगेर धाडला

हड्डयाक तुज्या लायल्यार तकली
सुलूस ब्रह्मांड गतीची
काळजांत तुज्या काळ–निर्मणे
यंत्र कोणें बसयला

वोंठा सरगम थानां चिंवेर
पियेत दुदा पांवळ्यो
आंगार शिर्शिर हाडीत बाळक
करता गोड खातकुल्यो

अंत्राळाच्या अुबेंत ब्रह्मांड
जशें हुसक्या मेकळें
वेंगेत म्हज्या अुबेत रावला
फुलयत जिवा पाकळ्यो

ताता कर रे बाळा आता
फुल्ले काळखा मळे
अस्त सुर्याची फांतोड हाडूंक
न्हिदून गेले कावळे

न्हिदेपरयो तुका धोलयत
दोळ्यां पातयो धांपतात
नक्षत्रांच्या राज्यांत व्हरून
खुटूंक अमरत्वा कळे

पावस मोगाचो तुजेर अविरत
जिणे सार्थकी बाळा
तुज्या दोळ्यांनी अुत्क्रांत जाल्लो
देखतात दिव्य काळा

सावळे भशेन घुटमळटा जीव
तुजे भोंवतणी सारको
आमचे अस्तित्वाक अर्थ ब्रह्मांडा
तुकाच लागून आयला

ब्रह्मांड माते काळ निर्माते
चराचरांची तूं धणीन
जिव्या वस्तीनीं तुजोच पर्जळ
कोण फेडटलो हें रीण ?

नमळायेन हे धापतात दोळे
माते मागताना मागणें
बाळार राखणे घालून बेसांव
कर साक्षात्कारी जीण

संगणकावरी चपळ मेंदूचें
बाळक आमचें सर्वकाळा
प्रचंड विश्वाक गवसण घालीत
मारतलें कृतीची पावलां

हिमालयाची तेमकां वितळावन
वाळवंटां पिकयतलें
अुंट धनी पिकांचे जातले
जे फटवतात मृगजळा

## भविष्य दिश्टावो

ब्रह्मांड योगी चिरंतनाचो
मारता तासां काळार
नदर आरपार भेदीत भोंवता
आसनस्थ सूर्यरथार

खिणांत करता परार्ध लागी
हुपता थर रंगांचे
कल्पकल्पां घालीत रूजवणां
सादयत ध्वनी ॐकार

नवे जाणविके हांव तर्नाटो
फायच्या जगाचो शिल्पी
जिणे अध्यात्म गुथून अुत्रांनी
सृजनतायेक पर्जळावपी

दिव्य भविष्या म्हाका दिश्टावो
कल्प युगांची म्हजेर भिस्त
ब्रह्मांड चित्तान व्यापून आयकतां
सूर विश्वेश्वरा भौरूपी

क्रांती नवी नव्या काळाची
व्हांवता पूर अुदरगतीचो
घामा कश्टां म्हायज्ञातल्यान
सादता गाज अुत्क्रांतीचो

ध्वनी यंत्रांची ऋचा आधुनिक
जोडीत वता मनामनांक
मनशा मजगतच्यो वण्टी मोडून
घडयत पूल भावपणाचो

ईश्वरान हें विश्व निर्मिलां
नवलायानी अुपाट भरिल्लें
तातूंत शिटूक मनीस निपजला
जशें कुवाडें सुटनाशिल्लें

मनीस आपणाक वळख नासतना
अर्थ जिणे व्हगडायता
फायचे मनीस काव्य ईश्वरा
अेकाच ताळ्यान गायतले

फायच्या जगाचें चित्र सुमंगल
तेळटा दोळ्यां मुखार
फायच्या जगांत ना झुजां किजिलां
जी हाडटात घुस्मटमार

दैवी शक्तीचें ल्हार बेसांवा
संवसारार पातळटलें
मनीसकुळये अेकाच धपक्यान
जातलें दैव मुदार

ईश्वर म्हजो शक्त ईश्वरी
जी जिवांक प्राणायता
ऋतूऋतूंचे अध्याय मांडून
निसर्गाक चैतन्यायता

देवान निर्मून सृश्ट चराचर
केल्या मनशा सुवादीन
बांदून बेडयो विफळतायेच्यो
मनीस जल्म झरैता

करून मनशा भेद मनशान
घडयल्यात जाती काती
सिध्दांत मांडून कल्पनांचे
साबार धर्मां केली निर्मिती

कित्याक हाचो बोल ईश्वराक
जाचो न्याय समान समेस्तां
कितलीय फित्रुसां केलीय जाल्यार
शेक चलयता अदिश्ट नियती

राव शिंवरायत मोग ईश्वरा
अमर्याद नवलायानी
घालून बेसांव जिविताचेर
व्हांव आमच्या कण्र्यानी

सृजनताये उज्वाड गा तूं
प्राणांची पेट्टी जोत
कल्प सुवर्णी घालून जल्मां
भोंवय सरत्या खिणांनी

पृथ्वी शुभंकर आसन शंकरा
जो ध्यानान काळ अुबयता
करून नाच नटेश्वर हो
पांयान चराचर माड्डीता

शंकर भोळो नित्य नवेलो
लास्य पातळायता अुत्क्रांतीचें
प्रलयातल्यान कल्पक अुत्पत्ती
कूस स्थितीची परतीता

काळखा मातयेंत सानुलो रोंपो
ल्हवू ल्हवू रूजतलो
अज्ञानाचें चेंपण शेंवटून
उज्वाडाक पोसतलो

भरून नद्रेंत आंवाठ ब्रह्मांडा
घडटलो केंद्रबिंदू
अंत नाशिल्लो अनंतकाळ
ताची ऋचा गायतलो

जीणभर काळोख अुपशितल्या
अुपेक्षीत मनशांनो
जीण तुमची काळखाचेंच
तेल काडपी घाणो

तुमचो अुध्दार करपाखातीर
पेट्टली गिन्याना जोत
तीच सामर्थ्यान अुबो करतली
बागवल्लो शापीत कणो

रक्त व्हांवोवपी तिडावन झुजां
अनंतवर्सां घायाळल्या हात
भूंयखंडांच्यो वंयो पेटोवन
मनशान निर्मिल्लो मनशा घात

आता सोपतलो पावस शस्त्रांचो
वारो व्हांवतलो शांती सुखाचो
विज्ञान जावन वर अुत्कर्षा
सोपतली सासणा दुबावा रात

संवसारभरची मनीसजात
अेकामेकांच्या वेंगेंत येतली
विश्वकल्याणा मनीसकायेची
ऋचा अुज्वाडा गायतली

ब्रह्मांड पृथ्वी अेक आमची
करता भोंवडी चिरंतनाची
रोस ऋतूंचो वारयत जिवो
सूर्य घालतलो रांगोळी

जागृतायेक घडय विशाळ
जिणेर जोडूंक जैत
मन ब्रह्मांडून प्रसन्न आत्मो
रावला तुका पळैत

कूड अेकदीस जीण सोपोवन
कापूर कशी जळटली
तरीय जाणविक जागृताये
रावतली काळाक फुलैत

जल्म दिवपी जीण फुलोवपी
पृथ्वी मनीसकुळयेची
ईश्वराच्या पुण्य राबीत्यान
हिची सासाय सासणाची

दिव्य फुडारा घडून बुन्याद
लागला रूजूंक नवो अितिहास
विश्वशांतीचीं फुलां पर्मळून
पृथ्वी जातली बाग जिणेची

फूल आत्म्याचें भक्तीन फुलून
मन–ब्रह्मांड पर्मळ्ळा
काळजा–हारशार सर्वेश्वराचें
बिंब पवित्र पर्जळ्ळा

प्राणाप्राणांत विचार सात्वीक
मनीसजीण धादोसतली
सर्ग घडपाक धर्तरिचो
कल्प नवो आरंभला

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- ✧ साहित्य सुवाद
  — डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- ✧ चित्रांगदा
  — पांडुरंग भांगी
- ✧ मृद्‌गंध
  — सुरेखा तोटेकार
- ✧ सैम-घुडी
  — उदय गांवकार
- ✧ पारजत फुलां
  — नरेंद्र कामत
- ✧ जैत
  — श्रीधर कामत
- ✧ शीला
  — एन्. सुहास
- ✧ गाज
  — शशिकांत पुनाजी
- ✧ मोतयां
  — रोहिदास मंगेशकार
- ✧ अक्षयदिवो
  — आनंद वर्टी
- ✧ निळें निळें ब्रह्म
  — शंकर रामाणी
- ✧ कविता : काळ रेल्वेच्यो
  : मन हारशांच्यो
  : पावसा पाणयांच्यो
  — प्रकाश पाडगांवकार
- ✧ सर्ग घडपाक धतरिचो
  — प्रकाश पाडगांवकार